विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
KONKANI FOLKTALES

# आटवो आनी टिटवो
# Aatvo and Titvo










विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळूर
WORLD KONKANI CENTRE
MANGALURU



# बस्ती आजाली चीट

सानुल्या बाल-वाचप्यांनो,

विश्व कोंकणी केंद्र मंगळुरासावन, ही कोंकणी लोककाणयांची माळ आमी तुमचे खातीर मुजरत वेंचून हाडल्या.

तुमकां काणयो वाचूंक आनी समजूंक सोंपें जावचें, देखून आमी ह्या सान-सान काणयांक रंगबिरंगी चित्रांनी नटयल्यांत. तीं चित्रांय तुमकां पसंत पडटलीं हाची म्हाका खात्री आसा.

आजकाल सगल्या भुरग्यांक कोंकणी सांगाता इंग्लिश भास लेगीत वाचूंक येवपाची गरज उप्रासल्या. देखून, दरेका कोंकणी काणयेचो इंग्लिश सार आमी मुखावेल्या पानार दिवपाची व्यवस्था केल्या.

ह्यो काणयो तुमकां आमची भूंय, सरभंवतण आनी भास हांची अदीक लागिंच्यान वळख करुन दितल्यो. हातूंतल्यान आमच्या गिरेस्त दायजांतलीं अनवळखी उतरां, वस्तु, नातीं, इश्टागती आनी अणभव तुमकां मेळचे हो आमचो हेतु आसा. तशेंच, ह्या काणयांतल्यान आमचे पूर्वज कशे रावताले, कितें चिंतताले, सैमा सांगाता कशे जियेताले, बरें-वायट कशें थारयताले हें तुमकां होलमतलें.

ह्यो आदल्या काळावेल्यो काणयो जाल्ल्यान, तातूंत तुमकां कांय गजाली काळाभायल्यो दिसतल्यो, पूण आपणालें दायज जाणा जावप गरजेचें. मागीरच, आमकां तातुंतलें बरें वायट वेगळें काडूंक कळटा; आमी मूळ काणयेचें सार-स्वरुप बदलनासतना, तशें करचेलो थोडो-भोव यत्न केला. तुमगेल्या पालकांक आनी तुमकां तो कितलो आवडलो हें तुमगेल्या बस्ती आजाक मुजरत कळयात.

फुडाराक तुमी लेगीत आपल्याक आवडटात त्यो नव्यो नव्यो काणयो कोंकणींत बरोवन आमची भास वयर काडूंक वावुरतलीं ही म्हाका आस्त आसा. तुमकां आनी तुमचे वरवीं कोंकणीक अदीक उजळ फुडार आंवडेतां. तुमकां बस्ती आजालीं परबीं.

तुमचो बस्ती आजो

बस्ती वामन शेणै
संस्थापक,
विश्व कोंकणी केंद्र, मंगळुर

PUBLISHED WITH
FINANCIAL ASSISTANCE FROM




DEPARTMENT OF KANNADA AND CULTURE
GOVERNMENT OF KARNATAKA

विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
**KONKANI FOLKTALES**



# आटवो आनी टिटवो
# Aatvo and Titvo


Chief Editor
Kiran Budkuley

Konkani Script & English Translation
Nafisa Oliveira

Illustrations
Ibrahim Badusha & Balu, Ernakulam

Concept & Production
Gurudath Bantwalkar






विश्व कोंकणी केंद्र
WORLD KONKANI CENTRE
कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
World Konkani Centre, Lobo Prabhu Nagar - Konkani Gaon, Shakti Nagar, Mangaluru- 575016
Phone: 0824 - 2231887, 2231877, Email: worldkonkani@gmail.com. www.vishwakonkani.org

In a village lived two brothers. The older one's name was Aatvo, the younger one was Titvo. Aatvo was smart but Titvo was silly. Titvo always caused trouble because of his foolishness. Both of them ploughed the field to fill their stomachs.

One day, as usual , Aatvo woke up and went to the field, with the plough and  bullocks. He called Titvo and told him, "Get some millet porridge to the field at lunch time." Titvo replied, "Okay, big brother."



एका गांवांत दोग भाव रावताले. व्हडल्याचें नांव आटवो, धाकल्याचें नांव टिटवो. आटवो आसलो शाणो आनी कश्टाळू. पूण, टिटवो आसलो आळशी आनी मस्तो. टिटव्याक लागून आटव्याक खूबच त्रास जातालो. तरीपूण आटवो ताचो मोग करतालो. ते दोगूय पोट भरपाक शेत रोयताले.

एक दीस, सदचे भशेन, आटवो उठलो आनी जोत घेवन शेतांत गेलो. वचचे पयलीं ताणें टिटव्याक आपोवन सांगलें, "तूं आंबील घेवन दनपरां शेतांत यो." टिटव्यान जाप दिली, "बरें दादो."



Titvo carried an earthen pot of porridge to the field and tied it to the branch of a tree. Then, he began to play with stones. A stone hit the pot and made a hole in it. All the porridge dripped out. When Aatvo came to eat, he was very tired and hungry. Not finding even a drop of porridge in the pot, he shouted at Titvo, "You can't do anything right! It's better if you go away." Titvo felt very bad and went crying into the thick jungle.



टिटवो आंबिलीचो बुडकुलो माथ्यार घेवन शेतांत गेलो. ताणें बुडकुलो एका रुखा-खांदयेक बांदलो आनी फातरांनी खेळूंक लागलो. एक फातर जुस्त बुडकुल्याचेर बसलो आनी ताक बुराक जालो. सगळी आंबील गळून गेली.आटवो जेवपाक आयलो, तेन्ना खूब खरशेल्लो आनी भुकेल्लोय. बुडकुल्यांत आंबिलीचो थेंबय ना तें पळोवन, ताणें तिडकीन टिटव्याक म्हळें, 'तुज्यान कसलेंच काम सारकें करूंक जायना. तूं खंयी गेल्यार बरो.' टिटव्याक खूब वायट दिसलें आनी तो रडत अटंग्या रानांत गेलो.



On the way, Titvo saw a huge house and entered it. Being very hungry, he looked around for something to eat. Suddenly, spotting a heap of bones in a corner, he was very scared. He thought,"This must be the house of an ogre".



चलतां- चलतां वाटेर टिटव्यान एक व्हदलें घर पळयलें आनी तो भीतर सरलो. खूब भुकेल्लो देखून, कितेंय खावपाक मेळटा काय म्हूण तो हेवटेन, तेवटेन पळोवपाक लागलो. अचकीत, ताची नदर कोनशाक आशिल्ले हाडांचे राशीचेर पडली. ताणें मनांत म्हळें, "हें राकेसाचें घर आसपाक जाय".



Just then, an ogress came in stamping her feet. In panic, Titvo went and hid in the attic. But, smelling a human, the ogress shouted, "Who is in my house?" Gathering his wits together, Titvo said, "I'm the ogre's elder brother, the douger." The ogress was stunned! Who was this douger now?



तेन्नाच राक्षीण पांय आपटीत भीतर सरली. टिटवो थर्त भियेलो आनी माळ्यार वचून लिपलो. पूण मनशाचो वास येवन, राक्षीण आड्डुली, "कोण आसा म्हज्या घरांत?". धीर करून टिटव्यान म्हळें, "हांव राकेसा भाव दुरकेस." राक्षीण सामकी अजाप! हो आनी दुरकेस कोण?



To find out if this was really the douger, the ogress said, "if you are the douger, beat your stomach. Let's see how much noise it makes". Titvo started banging a tin can on the loft loudly. The noise frightened the ogress.



हो खरोच दुरकेस काय, हें सोदून काडपाक  राक्षिणीन म्हळें, " तूं जर दुरकेस, तुजें पोट वाजय. कितलो आवाज जाता पळोवया." माळ्यार एक डबो आशिल्लो घेवन,  टिटवो व्हडा- व्हडान वाजोवंक लागलो.  आवाज आयकून राक्षीण भियेली.



Yet, the ogress made bold to say, "if you are the douger, show me one of your teeth". Spotting a plough lying in the attic, Titvo took the share of the plough, and threw it down with force. The ogress was terrified to see such a big tooth. She thought to herself, "This must be an even bigger ogre than I".



तरीकूय, नेट करून तिणें म्हळें, " तूं जर दुरकेस, तुजो एक दांत म्हाका दाखय." टिटव्याक माळ्यार एक नांगर दिश्टी पडलो. ताणें नांगराचें जोगल काडून सकयल उडयलें. राक्षिणीन मनांत म्हळें, " येदो व्हडलो दांत! हो दुरकेस म्हजेय परस व्हड आसतलो ".



Still, gathering courage, the ogress said, "if you are the douger, show me one of your ears." Titvo threw a winnowing pan down. Finally, she said, "if you are really the douger, show me a strand of your hair." Titvo threw a piece of coir rope down. The ogress thought, "If I remain here, this douger will surely eat me".



तरीकूय धीर करून तिणें म्हळें, "तूं जर दुरकेस, तुजो एक कान म्हाका दाखय." टिटव्यान सूप काडून सकयल उडयलें. निमाणें, राक्षिणीन म्हळें, "तूं जर दुरकेस, तुजो एक केंस म्हाका दाखय." टिटव्यान राजू काडून सकयल उडयलो. राक्षिणीन चिंतले, "हांव हांगा रावल्यार हो दुरकेस म्हाका शेर्त खातलो ".



The ogress ran away from the mansion as fast as she could never to return. Titvo, then, climbed down and looked around. There were seven rooms, the first having rice, the second wheat, the third pulses, the fourth grams, the fifth sugar, the sixth gold and the seventh money. Titvo was happy to see the wealth. But he longed to see Aatvo, and he went home.



हांगा आनी केन्नाच येवप ना, अशें म्हणून राक्षिणीन जाता तितले बेगीन थंयच्यान धांव मारली. मागीर टिटवो सकयल देंवलो आनी ताणें सरभोंवतणें पळयलें. त्या घराक सात कुडी आशिल्ल्यो. एके कुडींत तांदूळ, दुसरेंत गंव, तिसरेंत मूंग, चवथेंत चणे, पांचवेंत साखर, सवेंत भांगर आनी सातवेंत पयशे. हें पळोवन टिटवो खोशी जालो. पूण ताका आटव्याक पळयन दिसलें आनी तो घरा गेलो.



Aatvo also had missed Titvo. They were glad to meet again and forgave each other. Titvo told Aatvo all that had happened. He invited Aatvo to live with him. Then, they lived happily in the mansion.



आटव्याकूय टिटव्याची याद येताली. परते मेळून दोगूय भाव खोशी जाले आनी ताणीं एकामेकाक भोगशिलें. टिटव्यान घडिल्ली सगली गजाल आटव्याक सांगली आनी ताका आपल्या सांगाता रावपाक आपयलो. मागीर, ते त्या महालांत सुखान रावले.






# Listen to the eBooks, as you Read them..

These books are a great way to introduce Konkani folktales to your kids. They would love to listen to the stories in your mother tongue that is Konkani. While rich colours and illustrations attract the kids, the background voice over will amazingly captivate them to the reading. The text highlights guide the kids to read along the voice over. They will also introduce them to the indic scripts such as Devanagari and Kannada. You can read these stories in all devices whether Desktop, Laptop, iPad/Tab or android smart phones. Find out more details on our website how to download the relevent reader apps for reading this latest ePub3 technology eBooks.




# .. in your own dialect!

World Konkani Centre has produced
a series of ebooks in various Konkani dialects.
Voice over in native accents capturing
apt cultural expressions enthuse
the young and old alike!

## shortly uploading..









# विश्व कोंकणी बाल साहित्य माळा
# KONKANI FOLKTALES





































कोंकणी भास आनी संस्कृती प्रतिष्ठान
KONKANI LANGUAGE AND CULTURAL FOUNDATION
WORLD KONKANI CENTRE, LOBO PRABHU NAGAR - KONKANI GAON,
SHAKTI NAGAR, MANGALURU- 575016
PHONE: 0824 - 2231887, 2231877, EMAIL: worldkonkani@gmail.com.
www.vishwakonkani.org

₹ 50.00

ISBN 9789382582236

